# हांडो



- श्री श्रीनिवास प्रभूदेसाय

# हांडो

– श्री श्रीनिवास प्रभूदेसाय

**HANDO**
Collection of Poems
by Shri Sriniwas Prabhu Dessai

हांडो
कविता संग्रह
बरोवपी : श्री. श्रीनिवास प्रभूदेसाय

प्रकाशन क्र. ४
पयली उजवाडावणी १ मे २००३
प्रकाशक : आबू प्रकाशन, रिवण - गोंय

छापपी : बामा ऑफसेट, कुडचडें - गोंय

मुखचित्र : अमेय , कुडचडें

मोल - रु. ३५/-

# प्रस्तावनेचो पुरस्कार

23 जूनाक शणै गोंयबाबाची 125 वी जयंती शासकीय पांवड्याचेर मनयली आनी त्याच दबाज्यांत गोंयच्या मुखेलमंत्र्यानी हें अस्मिताय वर्स म्हूण मनोवपाची घोशणा केली. हाचो बरो परीणाम जालो. कांय जाण बेसूर आवाज काडून जातीयवाद घुसपावंक लागले. अस्मितायेक लागून कोंकणीची एक पिळगी तयार जाली. ताणीं साबार मळार लेखन करून नामना जोडली. आतां गोयांक एक वेगळी दिशा दिवन आत्मसन्मानान जियेवपाचो काळ आसा. तें काम नवे पिळगेचें. तांकां प्रोत्साहन मेळपाक जाय. तांतूंत जाण्ट्यांचोय तेंको मेळटा ही गजाल खूबच खोशयेची. जांकां अस्मितायेची गजाल खरी दिसता ताणीं आडमेळीं हाडचीं न्हय. आतां बरेच विरोधक शाणे जावन कोंकणी अस्मिताय खरी म्हणपाचें मानूंक लागल्या. तरणे साहित्यीक पिळगे बरोबर अणभवी जाणटे मनीस लेगीत कवनां रचतात तें पळोवन अजाप जाता. एका पाश्चात कवीन म्हळां, जें न कळत उमाळ्यांच्या रुपान अकस्मात भायर सरता ताकाच कविता म्हणूं येता. तेन्ना उतरां आपशींच कवनां जावन भायर येतात. रिवण गांवचे एक सद्गृहस्थ भौ. श्रीनिवास देसाय हांकां सांगे-केपें तालुक्यांत भाई म्हूण वळखतात. तांचो स्वभाव सगळ्यांकच मानवता. ते उलोवंक लागल्यार लेगीत तांच्या तोंडांतल्यान तत्वज्ञानाचीं उतरां आयकूंक मेळटात. सत्तरी हुपपाच्या तांच्या जीवितांत तांकां कवनां स्फुरप म्हळ्यार अजाप दिसपाचें. पूण तांकां जीणेचो खूब अणभव आसा. ते तरनाटे आसले तेन्नाच्यान आयज लेगीत तांच्या मनांत सांचून उरिल्ले स्वास आतां भायर येवपाक लागल्यात. रिवण हो गांव निसर्गरम्य. थंयचीं घरां, रानां, झाडां-पेडां, शेतकार, मुंडकार, शेतां हाणीं तांच्या जीवितांत आनी अंतर्णनांत अणभवाचें पोळेंच तयार केलां. त्या उतरां-पोळ्यांतलें म्होंव चाखतलो जाल्यार तांच्या कविता वाचूंकच जाय. खंयचोय कवी, चित्रकार, साहित्यीक, कलावंत आपलें मनोगत खंयच्याय रुपान उकतें करता तेन्ना ताका जो परमोच्च आनंद जाता तो कोणाच्यानच मापूंक जावचो ना. तोच आनंद कविता वाचतल्याक जालो तर ताचें सार्थक जालें म्हणपाचें.

नांवारुपाक येवपी व्हड मनशाक ताच्या कामगिरीचें अचूक मूल्यमापन

करपाखातीर, ताका खंयच्च्या परिस्थितीत कार्य करचें पडलें तें समजून घेवंक जाय. कवी वा कलाकार ज्या परिस्थितीत आसतात, त्या परिस्थितींतल्यान मेळपी तांच्या प्रेरणेक तांचेकडल्यान जो प्रतिसाद मेळटा ताचेरच भोव करून ताच्या पुस्तकाक वा चित्राक आकार मेळटा. तेन्ना जाणटे गृहस्थ, पूण तरनाटे कवी श्रीनिवास देसाय हांणी अकस्मात जाणट्या वयांत जीं तीन-चार कवितांचीं पुस्तकां बरयलीं ताचे फाटली परिस्थिती आनी तांच्या अंतर्मनाची भावना समजून घेवची पडटली. तांणीं लोकवेदाचीं गीतांय जमयल्यांत. त्या खातीर जायत्या गांवांत भोंवडी मारून, कुणबी, गांवकार, गावडे हांच्या तोंडातल्यान आयकल्यांत. ह्या वयांत तांकां जडिल्लो हो 'नाद' तोखणायेचो. त्या लोकवेदाचें आनीक एक पुस्तक उजवाडाय येवपाचें आसा. ह्या कवितेच्या पुस्तकान कवी श्रीनिवास देसाय हांचें मोठेपणाचें कर्तुब वाडलां. एक परदेशी लेखक म्हणटा, 'विद्वान मनशांचीं चरित्रां खूबच ल्हान आसतात' श्रीनिवासबाबाचें चरित्र ल्हान आसलें तरी चारित्र्य खूपच सद्वर्तनी आसा. हांडो हें कविता झेल्यांचें पुस्तक उजवाडावन श्रीनिवासबाब कविच्या पंगर्तीत बसूंक शकतात. आपणाल्या सगळ्या कवनांची निर्मिती कोंकणींतल्यान करून ताणें एक वेलो पांवडो गांठला. तांचे जीणेंत लेगीत कविता, लोकवेदाच्या निर्मितीन तांकां समर्थ जीवित जगपाची घटसाण मेळ्ळ्या. लोकवेदाक जितलें म्हत्व आसा तितलेंच म्हत्व कवितांच्या झेल्याक मेळटलें. ताचो परमळ कोंकणी साहित्याच्या मळार तरणाट्यांमदीं फांकतलो. हेर भासांपरस आवयभास कोंकणींतल्यान कवी सूक्ष्म तसोच सखोल विचार करूंक शकता, अशें ह्या कवितेच्या झेल्यांतल्यान प्रकट जाल्ल्याचें दिसता. कविता रचतना कवी सैमाचो आदार घेता. मनशाच्या तट्टकांचेर बडी मारता. कर्तुबवान जावपाची समजीकाय दिता. शेतकार, मुंडकार, गरीब कामगारांच्या भावना वळखून तांकां कर्म करपाची दिका दाखयता. तो सोबितकाय तोखेता. कवी उपदेशाचे विचार मांडून सगळ्यांकच आपल्या मोगाच्या वेंगेंत घेता.

'सवंग' हे कवितेंत कविन म्हळां, 'तोडप सोपें, जोडप कठीण', 'खरें उलवप दाद दिवप', म्हत्व जाय घेवन समजून'. कवी दोगांमदलें अंतर उणें करूंक सांगतना म्हणटा, 'भोगपाक शिकचें जोडूंक लागचें' मायेची साकर शिंपडावंक, दोगांय मदलें अखंड अंतर, सवका सवका तपासूंक'

कविक सुंदरसाण आवडता. फुलांची फांती माळल्यार कांति फुलता अशें तांकां दिसता. ताका मनशान आपली वाट नेमान चलोवचीशी दिसता. कवी 'खेळप' कवितेंत म्हणटा, 'जीवाची कावड वेळेची सवड' पारखून खेळय आवड-निवड'.

कवीक वाचनाची गोडी लागल्या. आपल्या 'वाचूंक जाय' कवितेंत ते म्हणटात, 'शिकूंक मेळत हासूंक जाय' 'गिन्यान फुकट विकूंक जाय' तरच दुदाक येत साय' 'वाचपाक शिकून वांचूंक जाय' कवी 'उंडी' हे कवितेंत खोरजेविशीं कंटाळून म्हणटा, 'खोरजीक रुच खरपुवपाची, लचांड आंगार जिरोवपाची, उदकांत मीठ खिरोवपाची, आपली उमेद भागोवपाची'

'आंबाडो' कवितेंत तांच्या अंतर्मनांतलो मोग जागो जाता, ते म्हणटात 'उपाय आसल्यार कोणेंय सांगचो, मोगाचो जोर उतरावपाचो, फांतोडे पारा सोंशिल्लो विरह, गडद राती फुलोवपाचो', 'खेळ', 'म्हजेंय-तुजेंय', कळ, अनुकरण, सुरांची याद, धिरकी, लाय दिवो, खुबी, गीत, सांगात, गवसण ह्यो कविता अणभवाचें तत्वगिन्यान सांगून वतात. देखून त्या वाचनीय जाल्यात. सैमाबगर जीण निरर्थक अशें कविक दिसता. ते स्वतः कृतज्ञ आशिल्ल्यान अणभवाच्या उमाळ्यांनी हेरांक भुलयतात. अन्याय, अत्याचाराचेर ते बडी मारतात. कवितेचें दालन पळोवंक सोपें. पूण ती स्फुरता तेन्नाच प्रतिभा जावन जल्माक येता. अणभवाचो एक थेंब मोलाचो. विज्ञानान मनीस मशीन जालो, तरी साहित्य कृतीन मनीस समाधानी जावंक शकता.

श्रीनिवासबाबान प्रस्तावना बरोवपाची संद दिली त्याखातीर प्रस्तूत कविता संग्रहाक परबीं दिवन तांचे उपकार आठयतां.

- चंद्रकांत पार्सेकार, कुडचडें - गोंय

# मनांतलें

अस्मिताय हो एका पिळगेचो खेळ न्हय. पिळग्यांच्यो पिळग्यो चलत आयिल्ली ही संस्कृताय सांबाळून दवरप ताची तोखणाय करप हें आमचें कर्तव्य जावन आसा.

450 वर्सां कोंडिल्ल्या अस्मितायेक भारताच्या आठव्य वळेरेंत मानाचो जागो मेळ्ळो. त्या खातीर आपले अस्मितायेची उदरगत जावची अशें जण एक गोंयकाराचें सपन जावचें अशें नमळिकायेन म्हणन दिसता. गोंयचीं देवळां, इगर्जो मनशांच्या दोळ्यांक सुख दिवपी, अजापाची वेगळीच चुणूक दाखोवपी, देवांचो साक्षात्कार घडोवपी, अशो ह्यो पवित्र वास्तू गोंयच्यो, गोंयच्या जीणेच्यो खुमो सांबाळपी, गोंयची अस्मिताय राखून दवरपी. पुर्तुगीज राजवट खलास जाली पूण ते राजवटींत निर्माण जाल्लीं खुणो प्रस्नचिन्हां अजूनय चलत आसात. हातूंतल्यान राजकारण, राजकीय स्वार्थाक अवसर मेळटा. आज लोकशाय म्हळ्यार मतांची संख्या जावन आसा. तांतूंतल्यान राजकीय व्यापाराक चालना मेळटा. समाजातल्या सगळे तरेच्या परिवर्तनाक, ताचे प्रक्रियेक, आपल्या मातयेचें नातें जोडूंक जाय. मनशांचो आचार विचार त्याच सुत्रान चलपाक जाय. ह्या हस्तलिखिताची निवळावणी, प्रूफ वाचन हाजी जापसालदारकी सौ. अर्चना कामत हांणी बरेतरेन पार पाडली. छापणावळीची जापसालदारकी बामा ऑफसेट प्रिंटर्स, कुडचडें हाणीं पार पाडली. म्हजो इश्ट भौ. चंद्रकांत पार्सेकार, एक नामनेचे कोंकणी-मराठी लेखक हांणी आपले मोलादीक मत प्रस्तावनेतल्यान परगटावन ह्या कवितेच्या झेल्याक एक वेगळीच धाटणी दिली. ह्या सगळ्यांचो हांव भोव उपकारी आसां. '' हांडो '' हो म्हजो तिसरो कवितांचो झेलो माये मोगान तुमचे मुखार दवरतां.

--- श्रीनिवास प्रभूदेसाय

# पोटली

त्यागाची घट्ट बांदिल्ली पोटली
गांठ सोडोवंक ताकतीक इतली
जुळयनासतना तजवीज करतलो
घरांतलो कलह वाडत रावतलो

समर्थ जिवन घटमूट देश
मेळय उभारो सरभरीत जावंक
गेलें ना कोणाकच कांयच पडून
लोकशाय मात वता भस्टून

परकीपणाची रुजता भावना
एकचाराची थाकाय जमना
प्रस्न विंगड विंगड प्रस्न
आंगार घेवप पिशेपणान

भोगप कितेंय बऱ्या खातीर
अशी आस कोणय बाळगीत
जन्म हाजो ऽऽ ताजो विचार
असोच वेल्या ऽऽ वैर करीत

सत्याक विसर सदांच घालपी
भूंय म्हजी ह्या भुंयेर जगपी
आसत सगळे एकाच विचारान
म्हणपना म्हजेंच मर्यादा सोडून

पांय चाटप इतल्यान भागता
कशें घडप कशें मोडप
कळप सांबाळपाचें गिन्यान
पयस पावप तर्काच्या पासून

विरोधा खातीर विरोध जावप
फकत करप प्रतारणा
मनांत आदर निर्माण करूंक
जाय भावनेची प्रेरणा

एक  समस्या एक दुख्ख
कोणाच्या माथ्यार खापर फोडप
घालून मेकळो हाचेर ताचेर
नित्याची गजाल जावन पडल्या

स्वतंत्रताय कित्या खातीर
नवें नवें घडोवपा खातीर

बरें बरें आपणावपाक खातीर
विचार असले राबोवपाखातीर

जातींत जातींत घालप विगोड
धडपडत सदांच रावपाची संवय
कित्याक रचप ल्हान पगड
नाशिल्लें कारण कित्याक सांगप

उपेक्षेचो अणभव घेवप कोणें
परंपरेक धक्को लावप कित्याक
राजकीय स्टेज कित्याक घोळवप
पयशांचो सदांच जप करप

जीवन तडीक पावलें समजून
भोगपाची ताकत वाडयत रावप
झगडीं झुजां उपरासून काडप
प्रेरणा थोडी चित्र विद्रूप

मनाची लाचारी पळोवंक मेळप
दाखोवपाक सुखान मळिल्ली वाट
जाय तिगोवंक एकात्मता
सोडचिट स्वार्थाक दिवप

झगड्यांची नीत काबार करप
भेद भावनेची भुतां धांवडावप
करून दिवप विकृतिची जाण
चलपाचो मार्ग ठरोवन चलप

अधिकाराचो जागो सेवेक दवरप
मुल्ल्यांक भावनेक मान दिवप
चारित्र्य योग्यताय गूण सांबाळप
साधन साध्य वळखून वागप

बदलपाक जाय दोळ्यांतलो फरक
संस्कृतायेचो करूंक गौरव
तेन्नाच सूर जुळोवंक मेळत
वखदाचो गूण बरोबर पारत

विकृतीचें शमन भ्रमाचें दमन
सगळ्यांनी एकठांय जावपाचो यत्न
हाजीच उणीव आमचेकडेन
सदांच चलप वांकडे वाटेन

***

# कळा

विद्येचो मोग करूंक जाय
करूंक जाय कलेचो मोग
गिन्यान यज्ञ मोगान भर
सेवेचें काम मोगान कर

सामाईक मन तेळ मोगान
शिकपाक ध्यान दी वेगान
पयशांचें रूप पळय सुखान
व्यापार जुळय सगळ्यांच्या तेंक्यान

शेतकामती हातांत नांगोर
मनांत तुज्या मोग दवर
यंत्राची आज चलती चड
मनांत मोगाची तोखणाय व्हड

आवडिल्ली वस्त मोगान भर
जिबेक रूच दवर खर
विचारांची जावंदी पुजा
मागीर भोग जिणेंत मजा

चौदा विद्या चौसस्ट कला
गिन्यान विज्ञान खूब खांदयो
मोगाचो सूर जिणेक धार
खाशेल्या वाटेर आसत उब्यो

समजून उमजून वागूंक जाय
ध्येय निवडूंक सवड काड
निश्चेव नियम मनांत रुजय
निर्धारान जिवीत जळय

तन मन धनाचो होम
मोगाच्यो समिधा तातूंत जळ
भोगाची रात मोगाचो दीस
मोगान सोबत जिणेची कळ

***

# अभिमान

अभिमान कर्तुबाची जाण
असोच अभिमान - स्वाभिमान

काबाड कश्टांनी भरिल्ली जीण
भिवून धांवपाक लागप
थरथरप लटपटप
फतकल मारून जमनीर बसप

स्वाभिमानाची चाड आसत
संकटांची शंभरी भरत
अपेसाचें विख्ख पचोवन
मरून लेगीत अमर जावप

तणाच्या गादयेर गाढ न्हिदप
उशीं कुलचांव शेंवटून मारप
नवें नवें पळोवंक उडप
स्वाभिमानान मिलेर भरप

बसून खावप भीक मागप

गावांत शारांत कळपांचे कळप
वाटेचे कडेक भाकरेखातीर
लांबोवन हात उबे रावप

रीण काडून सण करप
चेर घालून मिरवप
उणाकपणान जमवप
असलोच पुरूषार्त जागवप

कदेलाची करप मनधरणी
आंगाक हूम हळशीकावणी
तोंड देखली तोखणाय करप
स्वाभिमानाक मोताद जावप

बरी गजाल कशी आसप
जाण ताची करून घेवप
नशीबाच्या वाट्यांक घालप
वोगीच दैवाचे सुवादीन जावप

कर्तुबाचें पोरसूं सोबोवंक
मनशान मनशाक वळखवप
मनीसपण मनांत दवरून
स्वाभिमानान जिवीत जगप

***

# संवंग

तोडप सोपें जोडप कठीण
खरें उलवप दाद दिवप
म्हत्व समजून जाय घेऊंक
मोगाच्या सुरान उलोवन
घडून गेल्ली खरी खबर
केन्नाय थोड्यांक लागता निबर
तेन्ना थोडी करची सरकस
राखून मनांत भिड मुर्वत
जिबेन पघळिल्ले सुवादीक शब्द
आसत करणी अंतःकरणाची
स्वार्थान भरिल्ली चाल चलणूक
ओगीच कित्याक बदलपाची
घडत केन्नाय गोड प्रसंग
वास ताजो मोटो खमंग
चिंतून कित्याक दवरप
अैन वेळार जुळय सवंग

***

# तपास

सकाळचें धुकें वत हुनहुनीत
आंगाक झोमता खरें
दिसाचो खांब्यार पेटिल्लो दिवो
पळोवंक लागता बरें

उडतात घारी वयर मळबांत
पांकटीं हालयनासतना
मान्यानी भोवंचें तेळीत सुटचें
थांग कोणाक लागचो ना

धग मोगाची रुचीन चाखपाक
बेठोच कित्याक धांवतालो
मिरयत चलपाक शिकूंक जाय तुवें
लजेवन वोगीच कुडकुडतालो

भोगपाक शिकचें जोडपाक लागचें
मायेची साखर शिपडावंक
दोगांय मदलें अखंड अंतर
सोवका सोवका जाय तपासूंक



# सुत्र

काळखाची रात
जगाची रीत
चाव्न्याचो दीस
आस सगळ्यांक
मनांतलो भास
परमळीत वास
कास पुडव्याची
लांबता फाटल्यान
मळबांतलो रंग
मनांत दंग
फुकट सोदपाची
लागल्या सवंय
उदकावेली साय
मेळपाक जाय
पळय पैसुल्ल्यान
राबत काय
व्हांवतें उदक
जायत पवित्र
लक्षांत रावूं दी
तेंच सुत्र

***

# फांती

चिंततां चिंततां मनांत जमलें
भाव विश्वाचें तळें
जायत जिवीत कमोवपाचें खळें

करतां करतां असोच एक दीस
पावस खूब रकवलो
फुटलो उमळशिकेचो झरो

घरांत अयेपण आवय म्हजी
देवाकडेन मागताली
सदांच याद तिची उरतली

पोरसांत फुलां फुलून वाळगलीं
म्हणप कित्याक पारतीं
गुंतून घाल सुंदर सोबीत फांती

चलतां चलतां वाटेर पळयली
गालाक पडिल्ली खळी
दोळ्यांची तान भूक न्हिवतली

***

# खेळय

जाण मनांतलो भास
उदरगतिची आस
तरेतरेची नवीं सपनां
नेमान चल वाट
अपेस न्हय अपराध
वागपाक जाय संयम
मनाची तयारी संकल्प
बुनयाद घट्ट जाय
मळिल्लीच सोद वाट
मुखारमुखार पळोवपाचें
पोंवशेवपाक सांगलां कोणें
तेंको मात सारको जाय
तेळचें प्रसंगाचें रूप
सांगपाक मुखार खूब
चित्ताचें म्हत्व वळखूवप
विचारांची पोटली घट्ट बांदप
उमळशिकेचें सपन सांबाळ
लागीं करिनाका नसतो बोवाळ
जिवाची कावड वेळेची सवड
पारखून खेळय आवड निवड

***

# व्याज

संवसाराची न्हंय हुपूंक जाय
शरिराचें होडें ताणूंक जाय
होडें ताणपाक जुळय शिकप
वाऱ्याची गत वळखूंक जाय

सोबीत गाडी बसपाक बरी
चलपाची वाट वळखीची खरी
मनांतलो बेत जाग्यार पडपाक
गोठेल्ली येवजण चलोवंक जाय

देहाचे चाळे आसत खूब
खोल मुळां बेंदल्लिचो रूख
हुमटावपाचो यत्न मेळत सुख
विसरिल्ल्या यादींक जागोवंक जाय

खावपाक जाय जेवपाक जाय
जोडपाक जाय मोडपाक जाय
पयशेय जाय भांगरय जाय
भाटय जाय बेंसय जाय

गाडीय जाय घोडेय जाय
घरय जाय दारय जाय
अपेस धुवून यश जाय
थोडेंय नाका चड जाय

काम नाका आराम जाय
बोवाळ नाका शांतताय जाय
अविचार नाका विचार जाय
राग नाका लोभ जाय

भोग नाका मोग जाय
काणयांत भरिल्लो बोध जाय
दुख्ख सोंपून सूख जाय
मोक्ष मेळपाक सोक्ष जाय

पयशांचें व्याज किर्तीचें व्याज
दोगांय भितर फरक तेळ
चोळून मनाक सवंय लाय
येवजून मनीस वागत काय ?

***

# वांचूंक जाय

शिकूंक मेळत हासूंक जाय
गिन्यान फुकट विकूंक जाय
तरच दुदाक जमत साय
वाचपाक शिकून वांचूंक जाय

कामाक मुळावण घालूंक जाय
कर्तुबाची जाण बाळगूंक जाय
खारीचो वांटो उखलपाक
संवय लावन घेवंक जाय

रुढीचो मार्ग तेळूंक जाय
मनांतले मांडे जाग्यार पांय
जड लागत विचारांची आस
माथ्याक चुमळ सारकी जाय

यादवी काय क्रांती जाय
स्वाभिमानाची संवय लाय
हांजी हांजी करपाची संवय
काडून कुशीक दवरूंक जाय

उदेंतेचो सुर्य पळोवंक जाय
चांदण्याचें रूप तोखयेवंक जाय
कांट्यांनी कुट्यांनी भरिल्ली वाट
सोदून पांय घालूंक जाय

जिवीत लांब चलूंक जाय
नेमाचें वागप आचरूंक जाय
हांतूण पळोवन चींत मनांत
पांयांची लांबी मेजूंक जाय



# उडी

खोरजीक रूच खरपुवपाची
लचांड आंगार जिरोवपाची
उदकांत मीठ खिरोवपाची
आपली उमेद भागोवपाची
थोड्यांक संवय लिपोवपाची
आसत गजाल भिवोवपाची
जिरवणेक काडो पियोवन
पोटांतल्या पोटांत जिरोवपाची
संवय थोड्यांक फिरोवपाची
मांडिल्लो डाव उधळावपाची
कायेन भागून खरीक पावला
उसणी मिजासकाय लांबोवपाची
संवय थोड्यांक तोखेवपाची
भोगिल्ली रूच कडवपाची
हांसपाची बिशाद वगडायल्ली
पतंग कसो उडोवपाची
फोकांडा मारून मिरवपाची
दिवाळी सदांच मनोवपाची
वायट खबरांची व्हडविकाय

सुपांत दवरून आसुडपाची
खरेली गजाल समजुवपाची
ताकत कामय बाळगुवपाची
घरांत घरांत शारांत दारांत
गुडयेची उडी पावोवपाची

***

# घडण

जाय मुखार पळोवपाक
जमीन सारखी सारोवन घे
आसत अशीच सकल वयर
विचारांची तासणी घोळोवन घे

उजवाडाचें गीत गावंक जाय
काळखाची शीम हुपून घे
फास्पल्ली एकवट सांधपाखातीर
मार कुराड हाणून घे

विसर मनांक पडूंक फावना
सारखोच विचार करून घे
चकचकीत जीण वावुरपाची रीत
विन्ने फिरोवन जोडून घे

जाय संस्कृतायेचे राखणदार
हाताक कांकण बांदून घे
घडण नव्या विचारांची
सोबीत रंग काडून घे

***

# आस

वळख नाशिल्लो मनीस
भाकरी मागल्यार दिवची
फिरकी घेवंक सोदप न्ही
वेळेची रीत राखची

जाणविकाय जाय आसूंक
कितलीं फोकाडां सोंसचीं
येईत केन्ना कातरवेळ
ल्हवूच कूस मारची

समजिकायेन वागत जर
बारीक नदर गरजेची
सुंदर दिसत कागदाचीं फुलां
तांचो वास मात घेवशी

सैमाच्यो खोडी मनांत दवर
भविश्याची खबर करची
गोमजण्याची परंपरा
जमीन नितळ आसची

थंडगार सावळी सोडून
बसकण तुजी सोबची
पांचवेंचार वाटेर तण
ताजी आस धरची



# आडांबो

दोळ्यांक दिसना फुलांतलें म्हौंव
काळजाची धडधड आयकूंक येता
लिपोवन कित्याक दवरप
मोगाचो आडांबो दाराक लागता

मनाक केन्नाय लागता हुरहूर
एकटें तुवें चलचें न्हय
व्यसन सांगता पळोवपाक
दोळ्यांक तुवें व्हरचें थंय

उपाय आसल्यार कोणेंय सांगचो
मोगाचो जोर उतरावपाचो
फांतोडे पारा सोंशिल्लो विरह
गडद राती फुलोवपाचो

***

# देवाली आस

काळजाची टोंचणी
मनाची बोंचणी
मोगान दिवप
बऱ्यान घेवप
देवाली आस
थांबप ना चलत रावप ॥१॥

मागूंक वचना
दिल्यारुय घेना
कष्ट काबाड
करीत रावप
देवाली आस
थांबप ना चलत रावप ॥२॥

मोगान पोशेवप
रागान उलवप
फुकट भोंवप
मागून जेवप
देवाली आस
थांबप ना चलत रावप ॥३॥

बरे उलवप
लोकांनी आयकप
हातांनी काम
करीत रावप
देवाली आस
थांबप ना चलत रावप ॥४॥



# वेचूंक जाय

पाल्यान भाजिल्ल्या जमनीचो
बदल रोखडोच समजता
जिबेन भाजून काडिल्लो जागो
ध्यानांत आसूंदी ओलोच उरता

दिसपाक जाय टवटवीत
शिपूंक जाय सदांच तुवें
गुढावांक घुस्मटील्लें मन
विचार करून काड पुसून

दुसऱ्याक सदांच हांसप सोपें
ताजे खातीर रडप कठीण
अशीच मनशांच्या मनांची घडण
सरणापरस चड कारण

हात लांब गिन्यानी मनीस
कितें आवाज कसलें रुप
जाय साकारूंक जिणेचें सपन
वेंचपाक जाय उजवाड घालून

***

# रुप्याची किनार

थांग लागना इतली शक्त
तातूंतच लिपिल्ली आस
विचारांचें मोल
संघर्षाचें बी सोपना दुख्ख

माथ्यार जमिल्ल्या ढगांक
आसत काय रुप्याची किनार
सांगूंक शकना
कर्तुब मात चुकयनाका

कमर बागोवन राविल्लें झाड
गळून पडिल्लें कित्याक मागप
भोंवप फाटी फुडें
सांगात कोणूय कसो म्हणत

शब्दांतल्या वासाक घडत वनवास
जावन उरत मेकळी गजाल
घडून गेल्ली खबर
आसत हिम्मत चडत मोल



# खेळ

जिकतलो अशे दिसल्यार पसून
खेळ मात खेळूं नाका
टांसाची गरी दवरल्या लावून
हांयस तिजें जायनाका

खेळाची गत मनशाची मत
मेळप थोडें चड वचप
आशिल्लें नाशिल्लें लावप पणाक
वोगीच मागीर पस्तावप

कौरव पांडव खेळ खेळ्ळे
पाशे घुंवडायता शकुनीमामा
दुर्दैव आडवें पणाची धुंदी
द्रौपदी फुकट आयली कामा

भुरगो जांव म्हातारो जांव
खेळ कोणाकूच शिकोवं नाका
रातयांक गिरेस्त आस बापडी
रडपाची वेळ हाडूं नाका

खेळ खेळपाक इरेक पडप
दोळे आसून कुड्डो जावप
खेळाच्या रुपान दुर्दैव भेटप
मिठाचे कणयेक मोताद जावप

***

# म्हजेंय - तुजेंय

बेकारी गरिबी अतोनात प्रस्न
माय भुंयेच्या कर्तुबाची जाण
बाळगूंक जाय जंत्री लांब
म्हजेंय काम तशेंच तुजेंय काम
कर निश्चित असली नीत
उप्रासत जायती अरेरावी
करचो विचार मेळूंक आराम
म्हजेंय काम तशेंच तुजेंय काम
कर्तुब विसरून जाग्यार बसप
जाब विचारपाक जाय ताकत
असले कामाक दिवप मान
म्हजेंय काम तशेंच तुजेंय काम
मनांत सदांच आसूंदी प्रस्न
लाख मोलाचें मत कोणाक दिलां
हाचेर मातशें आसूंदी ध्यान
म्हजेंय काम तशेंच तुजेंय काम
अंदाधुंदीची चलतली जात्रा
कुचंबणेची कित्याक तोखणाय
कश्ट जगय गळय हूम

म्हजेंय काम तशेंच तुजेंय काम
प्रगतीचो आंकडो बरोच फुगला
हें जमलां तें जमलें ना
कोणाखातीर थंय भेद भाव
म्हजेंय काम तशेंच तुजेंय काम

***

# कळ

वासाचे कळे नितळ वारो
वेदना मात बधीर जाल्ली
काळ्या बाजाराच्या गावांत
घोषणा जाल्यात बेभान

जिवीताचो पट मांडून बसप
अभिनयाचो रंग बदलपी मनीस
दडकांनी वीजो वोंकपी वोंट
नळाचें उदक इबाडटात

चलल्या अपुर्बाय काळखाची
पळोवन उदक रडतालें
भावीक रुपांतली शांतताय
चुकिल्ल्या भशेन दिसता

***

# अनुकरण

शिवण लागल्या उसवूंक
एकचाराचो मोटो मंत्र
गिन्यान अणभव थाट माट
अराजक चलता वाट

जेन्ना जेन्ना जगन दिसता
तेन्ना तेन्ना मरण भिता
जगपाची आस सोडून वता
तेन्ना मरणाचें फावता

केन्ना केन्ना यादींची शर्यत
मनांतल्या मनांत घुटमळटा
काचाबूल कित्याक जावप कोणें
मंगल गीत गावपाक

शकत करूंक अनुकरण
घडून गेल्ल्या उमेदीचें
जापसालदारकी हेडपा लागल्या
पैस थांबून तेळपाक

***

# सुरांची याद

सांगून गेल्ली पोन्नी काणी
वादळ वारें पचइल्ली
साधी भोळी शांत मोनी
सुरांची याद आज तन्नी

समजून घेवंक मोकळो गंद
पाख्याची पांखां चल सोदूंक
फुकट मात जावं नाका दंग
पळय मळबाक नवे रंग

वळवळता वात जिबे सारकी
जिवीताची तशीच काणी
बुदवंत मनीस हातांची लांबी
अडचण भियेता रावपाक उबी

शेणिल्लें कित्याक जाय सोदूंक
यादीचें गांठलें सांबाळिल्लें
घडी करून वायट वानसा
वेचूंक जाय मनाक येवजून



# घिरकी

गळून पडिल्लीं पानां
ढगांनी भरिल्लें मळब
इतिहासान मारिल्ली उडी
आयुष्याक खंय बेरीज थोडी

मनशांच्या आयुष्याचो काळ
लाकडां चितेर रचतात तसो
सुखाचो दुख्खाचो अदमास
दुबावाचें पीक आशेचो वनवास

जाय साकारूंक मनातलीं सपनां
भुंकतर आसतात येतना वतना
वात जिवाण्याच्या जिबे सारकी
सवंय सदांचीच घेता घिरकी

***

# लाय दिवो

कित्याक झगडीं झूजां जाय
काळोख वायट दिवो लाय
आसत मनांत भरून वाळटी
झाडपाक उजवाड सोढूंक जाय

गर्वानि वागप आंगार लचांड
मागीर जोडप नाशिल्लें कुभांड
चाल चलणूक खर वागणूक
वर्तन सभाव घडत इबाड

फुलपाक मळो त्याच खातीर
बरोवन केन्नाय दवरचें वण्टीर
मनां सांदपाक करचो यत्न
जिवीत सपन जायत साकार

***

# जाण

गिन्यान मेळोवपाचें
कर यत्न वाडोवपाचें
दुबावच ना
नांव रुपाक पावपाचें

सगळ्यांच्या बरोबर
मनांत घोळय चलपाचें
घडत अजाप
येवजिल्लें काम जावपाचें

सगळ्यांच्या सहमतीन
तेंकून यत्न राबोवपाचो
पळोवशीत तूं
ताजो एफेत तोखेवपाचो

म्हन्यांक काडप सोपें
पैस दवरपाक अनमन
चित्ताचें ध्यान
पोशेवंक मेळत मोगान

खंत मनांक भरून उरची
तोखणायेचें मोल समजय
दुख्खाची घागर
सदांच रिती उरतली



# पोखरण

अशांतताय घडोवन हाडपाचो यत्न
कारभाराचें फळ
घोंगावता वादळ
लोकांच्या मनांत मात
भरून उरल्या
संभ्रमाची कळ

पुढाऱ्यांची उलोवपाची लकब
घडपाचीं तरेकवार किलमीसां
भाषणाचो उजो
समाजकंटकांचो माज
राजकारण पावलां खरीक
जायत स्वार्थाचो खेळ
जिवाच्या खेळाक मेळटा मेळ
मळबच उबें पिंदलां
किडीक पोखरपाक
फावन सापडलां



# खुबी

उसणे मागून मिरवप
सत्री कशी फिरवप
परतून परतून गिरवप
साखर मिठांत खिरवप
आशिल्ले नाशिल्ले कालवप
सुबेज खावन जिरवप
झोपाळ्यार बसून हालवप
फूंक मारून पालोवप
केल्लें काम सोबोवप
बेकारसाणेक निवळावप
आडांगपणां कवळप
जाणविकाय शिकवप
नदर बारीक दवरप
हांसत नाचत खेळवप
शिटकावणी दिवन थांबवप
हातानी पायांनी चलवप

***

# पासय

जन्म घेवंक भाषेच्या जगांत
विचारांची आस जाय बाळगूंक
ध्येयाचें सपन आस्तित्वाचो सोद
पारखून अणभव मेळोवंक

रातिची रानांत मारची पासय
जित्रपाक सुलूस लागत जर
झाडांची पानां लागत सळसळूंक
वाऱ्यान भोंवडी घालीत तर

असोच केन्नाय दर्याच्या देगेर
ल्हानसो पनेळ ल्हारार धोलत
भोंवपाचें व्यसन मनशांचें म्हातन
मनांतल्या मनांत हांसत उरत

त्याच खातीर जाय राबोवंक
भोगपाची जीण वेगळो बोध
बदलूंक जाय उसणी मिरास
अस्तित्वाच्या जगांत भाशेचो सोद

***

# गीत नवें

आंजारून गोंजारून आंगा खांद्यार
गीत नवें रचतले
नवें नवें जाय सोदूंक
पोरनें थोडेंच उरतलें

फडफडलीं पाकां लागली सुलूस
भरारी मारूंक पावतले
नवें नवें जाय सोदूंक
पोरनें थोडेंच उरतलें

वाळगून वचूं नये मुखार पळोवंक
स्वतंत्रताय मनयतले
नवें नवें जाय सोदूंक
पोरनें थोडेंय उरतलें

***

# सार

विचार करिनासतना उत्तर
तीर धरिनासतना फार
पडतली हार
यादीन सांबाळ उपकार
शब्दाक दिवचो आकार
जिबेक धार
आडखळीन भरिल्लो वाठार
चलपाक वाट कुस्तार
नदर मार
हातांत मावनाशिल्लो व्यापार
मनांत हांसतले जाणकार
जिवाक भार
कित्याक तांक नासतना रुकार
घडत आडांगपणां चिकार
पयशांक खार
जावप भविश्याचो शिल्पकार
तगय अणभवाचे विचार
जिवीताचें सार



# रातराणी

राष्ट्राची एकात्मता
धर्म मानप ना म्हणता
तोंडान बडबडटा
लोकशाय सांबाळपाचो यत्न करता
भेद भावाची कित्याक पर्वा
राखण्याची गरज गोरवांक
देवाच्या माथ्यावेल्यो दुर्वा
आतांचो जमानो करता पर्वा
मिरवप शांततायेचे उपाय
अपाय कोणाकूच करूंक फावना
थंयच चलता मतांची गणना
समजिकाय जनांक करणी मनांत
भेदभावाची रातराणी
रातीचो वास दिसाचो कळो
तळ्याच्या धडेक बशिल्लें पाखरूं
लांबट मान बारीक दोळो
चोच बुडयता फुलोवंक कळो
सोडून पळय उपकारता
मागल्यार मुखार करची गिता

नदर पांवना खाता पिता
घडपाचें सदांच घडून वता
वादळ वारें येता वता
वर्साक वर्साक येता गिराण
घडटां घडटां घडटलें प्रमाण

***

# धार

रात बरी वचपाक
दिसाचें घोळप
जडसाण दिनासतना
थारावप तुवें
वास नाकान जाय घेवंक
मगज पळोवंक
जोख सदांच हुमेचें मोल
मनांत मरगळ
गुणगुणत फाटीक मार
जीणेक तीच धार
कालय पोरने तन्ने
सोबीत संगम
फुलत दोंगोर पाचवेचार
लोव भार

***

# भंग - अभंग

अक्षर अभंग
अभंग शब्द
मोग अभंग

कातीचे आंग
लागना थांग
रगत अभंग

मनशांची पांग
तुटून भंग
मुयांची रांग

रात अभंग
अभंग दीस
मन भंग

मनीस दंग
तांतूंतले रंग
सदांच अभंग

जाणविकायेचे रंग
मेळत काय संग
भंग अभंग **

# जिगजिगें

फातराचेर ना तर कुलच्यावांचेर
मोलादीक न्हय - मातयेचे धेंपे
ल्हवू ल्हवू चरताल्यो मुयो
आरे पापया म्हाकाय मातशी
नमळिकायेन मागतां
मुयेची जीण
कोणूय पूण संवकला
संवकय
बरोच संवकय
काळाच्या तोंडांत सांपडिल्लों
हांवय संवकलांच
कापस्ताद म्हजी
कोणय म्हणत पळेला
पळेल्यार जिगजिगें
पूण पळोवंक ना

***

# चवरां

जा ऽऽ बायलेचेर रागार
हरकत ना
पूण राग आयिल्ली बायल
ताजी तुलना
सुंदरसाण

- - -

ओगीच मांडून बसला
संवसाराचें पगडें
शीक पापया
बायलेकडेन कर झगडें

- - -

साकरभात शीत हुमण
सुवादीक जेवण
मोगान मारिल्ली वेंग
करीत जिरवण

- - -

लजेन मान
सकल घालपाची करणी
युध्दांत मोगांत
एकमेकांची चलता मनधरणी

***

# जांभोय

उलवप रागवप तिगेलें
जावंदी परतून परतून
अशेंच देवा सदां घडूं
सोंसून घेवपाक जाय रातीन

रागाचो भाव दाखय लिपय
मेळत खरेंच जिवाक रुच
दोळ्यांची किनार लाडीगोडी
ध्यान तुजें रावता थंयच

कारण नासतना समजूत घालप
कुरूप पसून सुंदर दिसप
झगडीं झुजां कुशीक दवरून
रुपाक भाळून सर्गाक तेंकप

अशीच एक दीस जांभोय आयली
पोरसांतली झाडां हांसूक लागलीं
बारीक दोळे कपलाक आंठी
कोणाची याद तुमकां आयली

***

# सल्लो

गडगंज अगडबंब
जाय रे कित्याक
थंड
बलदंड अखंड
जाय रे कित्याक
बंड
कडकडीत सडसडीत
हांसप कित्याक
मुमुरशें
सुडसुडीत बुडबुडीत
लजेवप कित्याक
वोगीच
खडखडीत सणसणीत
म्हणप कित्याक
एकच भशेन
हुडहुडप कुडकुडप
चेपण माथ्याक
दुबाव मनांक

***

# राबय गिन्यान

भोंवपाक जाय सोंसपाक जाय
जाय मळूंक जाय तेळूंक
नितळ शितळ मनांत विचार
कामाचें रुप साकारूंक

जाय गिन्यान राबोवंक
करूंक जाय निर्माण
रावप धांवप नासतना
आसप कित्याक विसंबून

आरतून पळय परतून पळय
बारीकसाण पळय दवरून
खेळ सांगात लागीं करून
पावसाभशेन गडगडून

आंगाची तडफड उतरांचो कडकड
वोगीच कित्याक फडफडप
रागान भरिल्ली समजिकाय
पिशांभशेन बडबडप



# जायण्यो

चाकरी करची सत्तेची
भाकरी भाजची मत्तेची
खुटपाक फुलां पोरसांतलीं
घरा भोंवतणी भोंवतालीं
हांसपाक जाय हांसतालीं
कोणाच्याय नांवार घालतालीं
लोकांच्या भोवतीं घुंवतालीं
शेतांक गोरवां चरतालीं
नाशिल्ली वस्त मागतालीं
सुवाद थोडो वागतालीं
जाणते नेणते हांसताले
नसत्या जायण्यो करताले
पेटिल्ली चिमणी पालवली
कित्याक चरवाक संवकली
गांवार खबर पावयली
खुणेन वाट दाखयली
पुर्वेची दिशा उदेली
लाईल्ली वात पालवली
लांब कलसांव गळ्याक टाय

कोणेंय दिवचो कोर्टांत पांय
माळयेचेर माळयो शिमिटाच्यो
पैलीं मुस्तीतल्यो गळपाच्यो
तरीकय हांसतात सगळे जाण
नाक्या नाक्यांनी भायलें खाण
वचत थंय पळयत वाडिल्लीं पोटां
रुचीक खंय रेडिमेड रोटां
शारांत जमिल्ल्यांच्या बोल्सांत नोटां
खेड्यांत उरतात पडंग भाटां

***

# वेदना

मोगाचो दर्यो
मोगाचीं ल्हरां
जाय होडें
तड मारपाक
पूण
पलतड मेळत
रातीन रात घोकतां
अेकलोच
गळयत दुकां
कोणूच ना म्हऱ्यांत
तीं पुसपाक

***

# झगडें

अशेंय कितेंय पूण जावचें
सदांच मनांत घोळतालें
दिसतालें जावन गेलें
परतून फाटीक लागतालें

अशेंच कितेंय जातलें म्हणून
आशेन जीव मरतालो
जावपाक जाय जातगर
पायांची सर्कस करतालो

कसांत केन्नाय रोइल्लें बीं
किल्लून वयर सरत काय
कसाचे कण रगडपाक
जाय जिवान झगडपाक

***

# येवजण

कोणाच्याय खातीर
कोणय झूरत
भायर घराच्या आंगणांत
तणाचो पांचवोचार गलीचो
कदेलां मांडिल्लीं आसतलीं
येतली मजा
मागीर च्या

***

# मोगाचो कण

दोळे लावन बसपाची मूर्त
सुंदर सडसडीत
सैमाच्या रुपाची
वावुरतना रान हालोवपी
खरेंच हांव बालचळ्ळों
भुल्लों....
तिची करणी उंचाबळूच करून गेली
दोळ्यांक दोळे जुळ्ळे
मन कळ्ळें काळीज पेटलें
कोण जाणा ....
जीण पिंजून काडीत म्हणून
दोळ्यांत दिसता म्हाका
भुरगेपण तन्नेपण मोगाचो कण
कायेक सुटला थरथर
सोरो पिवन नशा चडता
मोग .... तोच आनंद ...
आतां समजलें?
असले दोळे कसल्याय रुपान जर
म्हऱ्यांत आयले तर ....
मनशाक जिखल्याबगर रावचे नात

***

# जोडयो

शरीर मन साध्य साधन
मनीस समाज गांव घर
पालोव संवकळ नितळ पवित्र
जोडयो खरेंच विचीत्र

धन दौलत मनाचो शिरंगार
भांगराचो लेप ताचो चकचक
घडत कर्म मनांतलो विवेक
तर्क चुकूंक फावना

लोखण भांगर माती गोडसाण
सुंदर कुरूप वास घाण
येवजण हांव घोळिल्ली वाट
नियम जाय पाळूंक

घरांत आंगणांत देवळांत देवाऱ्यांत
वाळगल्लीं फुलां तांच्यो माळो
तळमळ जाण आसप थोडीच
मन खिन्न जावंक फावना



# उशें

भक्त देवाले खरेले
भोगणारे भोगतले
सुटणारे सुट्टले
कोणूय पूण तेळून सोडतले

थकून भागून खर्शेत रावतले
आपल्याक जाय तें
करूंक धांवतले
शेणिल्ल्या मार्गान बेठेच चलतले

मेळूं दी जिवाक गिन्यानाचें उशें
कितेंय किल्लवपाक
जाय रोवूंक
आपले पायांनीच जाय चलूंक

***

# काल आज

काल आशिल्लें आज ना
फाल्यांचें कोणें पळोवंक ना
कालचें काल आयचें आज
बाकी खबरच करप ना

बाळगीय मनांत मोलाचो संयम
परसत पूण तें कशें जमतलें
पारखूंक जाय तुजेंच तुवें
कारण दुसऱ्याक समजतलें

सगळ्यांकूच तुजें म्हणप तुवें
तोंडान म्हणप सामकें सोपें
सुटिल्लो लगाम पावत पयस
जायत मर्दीच बार फुसके

***

# कोंब

फट म्हणून कारण आसत
म्हणूनाका केन्नाच खरें
खऱ्यापरस फट
कानांक आयकूंक लागत बरें

कितेंय पूण उरत भानगड
जाय वळखूंक तीच गोम
चुकत थोडें चड
अर्थ नाशिल्ली तोंडाची बडबड

मनिसपणाचो येतनाच कोंब
सांग कित्याक लागप चिंतूंक
झोपाळो कशी
मनशांची पांग लागना थांग

बाळगीय मनांत मोलाचो संयम
माप मोल ताचो धरम
फोडणीशी कर
विसरून पडशीत खरेलें कारण

अशेंच चलत रावप कोणें
पळयत रावूंदी भरिल्लें जीणें
कळच ना शीक
भियोवपाचें गिन्यान कर वेगळें

***

# सरळ सूत

धरिल्लो तीर चुकयनाका
मारिल्ली गांठ सोडयनाका
घडिल्ली गजाल लिपयनाका
गुपीत वोंकून उडयनाका

जिणेचो अर्थ सांगप कित्याक
सांचिल्लीं कामां सुकय वताक
असलें कर्तुब आसूंदी हाताक
मान बागय खरेले मताक

उबारो मेळूंक रोयिल्ल्या शेताक
भाड्याचे बैल बांदचे जोताक
झगड सदांच वेंताक वेंताक
मोताद तुवें जावप झेताक

भियेवशी केन्नाय काडिल्ल्या कुताक
हांसत कोणय तसल्या चुकेक
गुठलावन हाडचें सरळ सुताक
पळोवचें तुवें आपल्या हिताक



# सांगात

बीं पारखून जाय रोवूंक
जैत वासनेचेर दवरिल्लें
अंकूश हतयाक सांबाळपाक
तेळूंक जाय साध्य असाध्य

शब्द रुप वास तेंकप
गोडसाण सांबाळ उलोवपाची
सदाचारान आसत बरो
पावत वळख संवसारार

काटूक उलोवणें राग लोभ
समज वायफळ चाबिल्ली खबर
आस धुकलून उडोवपाची
मनान आसत खरेंच शुध्द

बऱ्या मनशान मुर्ख म्हणप
वागपाची तरा जाय बदलूंक
बरेपण जोडपाचो कठीण मार्ग
मरता तेदीस बरोबर कोण?

येवजून समजून कामाचो आरंभ
उपाट भरला तातूंत आनंद
फुकट वेळ वगडावंनाका
लाग मार्गाक जायत वेळ



# कुपी

कुपी काळजाची
भरल्या उफाट
यादी खूप पोरन्यो
बस वेळ काडून बरोवपाक

एखाद्री तांतूंतली
केन्नाय चिंततना
जिवाक येता हूम
पुसपाक यत्न कसोच जमना

तकली भणभणटा
कित्याक समजना
अजाप असलें कसलें
पांचवें चार घोळटालें मनांत

थांबत काय अशेंच
लुसलुशीत तण
माळिल्ली फांती
वास परमळ येतर उरता

पावसाची दडक
घेवपाची आंगार
निसरून पडपाचो वेळ
कोणेंय केन्नाय हाडप न्हय

***

# गवसण

आपूणच जाणा जावचें पडटलें
रुढीबध्द लक्षणां जाय बाळगूंक
केन्नाय रागान मोगान हाणूंक
आचरण विचार तडजोड करप
प्रमाणित पध्दत राबोवन
शरिराचो बदल भास गुळगुळीत
म्हजें घोळप म्हजी ताकद
निष्कर्ष लावूंक जाय पैलीं
मनांत भरिल्ले असले संबंद
उरपाचे ना गुणापसून पैस
मनीस सदांच असो-तसो
पावत थंय जमोवंक वसो
उरतली बदलत काळाची करणी
फकत मनधरणी मनधरणी

***

# वावटळ

वाऱ्याची वावटळ
मळबांत ढग
पावस सुरार
न्हंयक हुंवार

मनांतलो कलह
घरांत विगोड
आंगणांत जिवार
जावप पिकार

नाचपाक खेळपाक
खावपाक जेवपाक
मेळत रुकार
जमतले चिकार

खेळाचो डाव
जिवीताचो पट
मारप खांद्यार
तांतूंतले विकार

मनशांचो सभाव
वेंचूंक कुस्तार
वायट करण्यो
घेनाका आंगार

